गांधी साहित्य – १०

# अशे आशिल्ले गांधीजी

सवो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो भोंवतालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*

*—अल्बर्ट आअिन्स्टाअिन*



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गो मं त भा र ती प्र का श न

१९६०

अु ज वा डा व पी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गां व दे वी–मु म्बै ७.



पै ली खे प
२६ जा ने वा री
१ ९ ६ ०

मोल :—
०·५० न ये पै से
सवूय वांटें अेकठांय
२·५० न ये पै से
बां दि ल्लें पु स्त क
३.०० न ये पै से

छा प पी
व्यं. रा. शि ग रे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

## : २०६ : भारतमातेचे गुण

आश्रमांतले अेकले चलयेन नाटकांत भारतमातेचो वांटो घेतिल्लो. गांधीजींनीं तिका बरयलें : “भारतमातेचे गुण तुज्या आंगांत केळवंक शीक.”

“भारतमातेचे गुण खेंचे ?” तिणें प्रस्न विचाल्लो.

“धीर, सोंशीकपण, क्षमा, अहिंसा, धिटाय आनी वीरता”– गांधीजींनीं जाप धाडली–“आश्रमांत हेच गुण केळवपा खातीर आमी सगळीं अेकठांय रावल्यांत.”

****



## : २०७ : म्हजें म्हाकाच येवजलें

"अस्पृश्यांची सेवा करपाचें काम स्वामी विवेकानंदानीं सुरू केल्लें. गांधींनीं तें मुखार चलयलें." अशें रॉमां रॉलां हांणीं बरयलां. रॉलां अितिहासकार आनी तांचें म्हणणें खरें आसलें. पुण गांधीजींक मात् हाची खबर नासली. तांकां कोणें अेकल्यान ह्या विशीं विचाल्लें तेन्ना गांधीजींनीं जाप दिली :

"हांवें विवेकानंदांचें 'राजयोग' सोडून दुसरें कितेंच वाचूंक ना...अस्पृश्यांचे सेवेचें काम म्हजें म्हाकाच येवजल्लें."

"घडये दक्षिण आफ्रिकेंतल्या वातावरणान तुमकां हे येवजलें जावये..."

"हय." गांधीजींनीं जाप दिली -- "थैंच म्हाका तें येवजलें."

"पुण दरिद्रनारायण हें अुतर जें तुमी वापरतात तें विवेकानंदांचें म्हणपाची तुमकां खबर नासली ? "

"ना" -- गांधीजींनीं म्हळें -- "हांवें तें पैलीं देशबंधु दास हांच्या तोंडांतल्यान आयकलें आनी म्हाका तें बरें दिसलें ... तें अुतर विवेकानंदांचें म्हणपाचें म्हाका अुपरांत बऱ्याच दिसानीं कळ्ळें."

****

## : २०८ : अेका श्रीमंत घराण्यांतली चली

अेका श्रीमंत घराण्यांतली चली. प्रकृतीन नाजूक. गांधीजींची भक्त जाल्ली. ती बरी नाशिल्ली. गांधीजी तिचे खबरीक गेले. त्या दिसांनीं ते परदेशी मालाची होळी करीत भोंवताले. तांणीं ते चलयेक सांगलें : "तुजे कडलो सगळो परदेशी माल जाळून अुडय"

तिणें सांगलें: "आपुण परदेशी माल वापरिना; स्वदेशीच वापरतां आनी स्वदेशी माल लासूंक आपुण तयार ना."

गांधीजींनीं म्हळें : "खादी वापरता व्हय ?"

तिणें सांगलें : "ना ... खादी न्हय, पुण हिन्दुस्तानांतल्या गिरण्यांनीं तयार जाल्लो माल वापरतां."

"तशें जाल्यार, तो म्हाका दी. हांव दक्षिण आफ्रिकेंतल्या गरीब हिंदी लोकांक तो धाडून दितां. तूं खादी घालूंक लाग."

त्या दिसांनीं खादी आयचे सारकी बारीक येनासली आनी जी मेळटाली ती आंगार घालूं नज आसली. गांधीजींच्या अुपदेसाचो ते चलयेचेर कांयच परिणाम जालो ना.

कांय वर्सांनीं ती चली गांधीजी सरींच येवन रावंक लागली. तेन्ना तिका खादिचें म्हत्त्व समजल्लें. ती सामकी बदल्लेली. पुण गांधीजी, जे सगळयांक सगळीं कामां करूंक लायताले ते तिका कसलींच कामां करूंक दिनासले. तिका जमनीर न्हिदूंक दिनासले, आयदनां घासूंक दिनासले, श्रमाचें कसलेंच काम दिनासले.

खूब दिसांनीं जेन्ना ती नाजूक प्रकृतिची अुरूंक ना म्हणपाची तांकां खातरी जाली तेन्ना मात् तांणीं तिका आडायली ना;

अितलेंच न्हय तर तिचे कडल्यान मोटीं मोटीं कश्टाचीं कामांय ते घेवंक लागले.

ते चलयेचें नांव — राजकुमारी अमृत कौर

****

## : २०९ : दुःखान न्हय, रागान रडटा

गांधीजी वज्रा परसूय खर आनी फुला परसूय नाजूक आसले. आपले बरोबरच्या लोकांकडल्यान काम घेतना गांधींजी अतिशय कठोरपणान वागताले.

राजकुमारी अमृत कौर गांधीजीं बरोबर खूब वावुरल्यात. गांधीजीनीं तांचे कडल्यान खूब काम करून घेतलां. खूब खेपो राजकुमारीं कडल्यान चुको घडल्यात. गांधीजीनीं त्यो केन्ना माफ करूंक नात. तांगेले हे खरसाणेक लागून राजकुमारींक जायत्यो खेपो रडूंक आयलां. पुण तिचीं दुकां पळवन गांधीजींनीं चूक माफ करूंक ना. परतीं, दुकां पळवन तांणीं म्हणचें :

" दुकां काडलीं म्हुण हांव चूक माफ करतलों अशें तूं समजूं नाका. तुका दिसता, तुका दुःख जालां म्हुण ... पुण तूं रडटा ती दुःखान न्हय ... रागान रडटा. "

गांधीजी अितले कडक आसले. आपल्या लोकांकडल्यान अिल्ली लेगीत चूक जाल्ली तांकां माननासली.

****

## : २१० : तांकां मात अजाप जालें ना

गांधीजी लोकांक आपले वशीन ओडटाले आनी ओडून आयिल्ल्यांक धरताले. तांचे कडेन जण अेकल्या खातीर काम आसतालें. गांधीजीं कडेन आयिल्लो मनीस रिकाम्या हातांनीं परतो वचनासलो. तो कसलें ना कसलें काम घेवनच वतालो.

आनी कोणाचो कसो अुपयोग करून घेवचो हेंय गांधीजी जाणां आसले.

प्रो. भंसाळी अेक विचित्र मनीस. अस्तमतेचे संस्कृतायेंत वाडिल्ले. पुण मुखार ते अध्यात्माकडेन वळ्ळे आनी तरा तरांचे प्रयोग करूंक लागले. तांणीं मौनाचें व्रत घेतिल्लें. तें अेक दीस तूटलें म्हुण तांणीं आपले ओंठ शिवन घेतले. आश्रमांत ते रावताले. तांचो कसल्याच कामाक व्हडलोसो आधार जायनासलो. पुण तांच्यांत कसली शक्त वसता हें गांधीजीच जाणां आसले. बाकिचे कोण पारखूंक पावंक नासले.

आमचे स्वतंत्रतायेच्या झुजांत अेक वेळ असो आयलो जेन्ना सगळे पुढारी बंदखणींत पडले आनी हे वटेन चिमूर गांवांत बायलांचेर पोलिसांकडल्यांन अत्याचार जावंक लागले. त्या वेळार तांचो कैवार घेवपाक कोण मुखार सल्लो, खबर आसा ? प्रो भंसाळी ! तांणीं ६३ दिसांचो अुपास करून सबंद देशाचें ध्यान ह्या प्रस्नाकडेन ओडलें आनी तो अन्याय धुवन अुडवंक लायलो ! तेन्ना भल्या-भल्यांच्या तोंडांतसून अुद्गार भायर सल्ले—“ आरे, प्रो. भंसाळी असलें काम करतीत अशें आमकां दिसुंकूच नासलें ! ”

गांधीजींक मात् अजाप जालें ना.

****

## : २११ : पांचवो पुत

सुमार तीस वर्सांचे पिरायेचो अेकलो तरुण गांधीजींक घळूंक आयलो आनी म्हणूंक लागलो :

" हांव तुमचे कडेन कितें मागूंक आयलां. "

" माग...म्हज्यान जाता तें हांव करीन." गांधीजींनीं म्हळें.

" तुमच्या देवदासा भशेन म्हाकाय तुमी आपलो पुत कसो लेखात–" त्या तरण्या भुरग्यांन मागलें.

" बरें आसा. " गांधीजींनीं म्हळें– " पुण तुका दिवपा सारकी म्हजेकडेन संपत्ति कांय ना. तुंवेंच म्हाका ती दिवची पडटली. "

ह्या मनशाचें नांव जमनालाल बजाज. अेक लक्षाधीश व्यापारी. तांणीं आपलें सर्वस्व गांधींजींच्या पांयांकडेन ओपिल्लें.

ते जेन्ना भायर पडले तेन्ना गांधीजींनीं म्हळें: " मगनलाल गांधीक देवान व्हरतकूच म्हाका जितली खिन्नता दिसूंक लागिल्ली तितलीच आज दिसता...पुण देव म्हाका हें सोंसपाची शक्त दितलो असो म्हजो भावार्थ आसा. "

ह्या वाक्यां वेल्यान गांधीजींचे जिणेत जमनालाल बजाजांक केदी सुवात आशिल्ली हें दिसून येता.

****

## : २१२ : काल देव परीक्षा घेवंक आयिल्लो

१९३९ तल्या डिसेंबरांतली खबर. गांधीजी सदां भशेन सांज-वेळचे भोंवक भायर सरल्ले. अितल्यांत दारांतच अेकलो मनीस तांकां मेळ्ळो. ताणें तांच्या पांयांकडेन खादिचो अेक कुडको दवल्लो आनी तांकां नमस्कार केलो. ताका पळेना फुडें गांधीजींनीं म्हळें :

“ आयले तुमी ? तुमचें पत्र म्हाका मेळिल्लें. पुण म्हजी जाप मेळचे पैलीं तुमी भायर सरशात अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें....”

“ हांवें तुमच्या पत्राची वाट पळवंक जाय आसली. पुण म्हज्यान रावं नज जालें. म्हुण हांव अुठून आयलों. ” ताणें म्हळें.

ह्या मनशाचें नांव परचुरे शास्त्री. १९२२ त तांची गांधीजीं कडेन येरवड्याचे बंदखणींत वळख जाल्ली. अुपरांत तांकां महारोग जालो आनी ते अेका हॉस्पिटलांतल्यान दुसऱ्या हॉस्पिटलांत भोंवत भोंवत हिमालयाच्या पायथ्या कडेन हरिद्वाराक वचून राविल्ले. तांची गांधीजींकडेन येवपाची अित्साआसली आनी त्या अर्थाचें पत्र ताणीं गांधीजींक बरयल्लें. पुण महारोग जाल्ल्या मनशाक आश्रमांत घेंवचो कायन्हय ह्या विशीं ताणीं अजून निर्णय कांयच्च घेवंक नासलो. गांधीजींनीं तांकां तशें सांगलें. तांची अडचण पळवन परचुरे शास्त्री हांणीं म्हळें :

“ कांय नज...हांवें म्हज्या हातान कांतिल्ली ही खादी हाडल्या... ती तुमी घेवंची. तुमचें दर्शन घेवंची म्हजी अित्सा आसली. ती भागली. रात हांव खैंच्याय झाडा मुळांत काडीन...फाल्यां परतो हरिद्वाराक वतां....तुमी चिंता करूं नाकात. ”

ते जेवल्यात काय ना हाची गांधीजींनीं वासपूस केली. आनी आश्रमांतल्या अेकल्याक तांकां जेवण दिवपाचें सांगून गांधीजी कांय अुलयनासतना भोंवंक गेले.

गांधीजी सदांच सांजचे भोंवंक वताले. तेन्ना तांचे बरोबर भुरगीं आसतालीं. तांचे बरोबर ते खेळटाले. तो वेळ तांचो हांसपाचो खेळपाचो आसल्लो. पुण आज ते मोन्यांनीं गेले आनी आयले. आज तांकां अेक मोटो प्रस्न पडिल्लो आनी तो सुटनासलो. प्रार्थना जाली आनी सगळे न्हिदूंक गेले. गांधीजीय हांतुणार पडले.

हांतुणार पडले खरे; पुण न्हीद आज पडच ना जाली. तांच्या मनांत आकांताची अुखल दवर जाल्ली. दोनांक अुठले आनी तांणीं निर्णय घेतलो. सकाळचे प्रार्थने अुपरांत आश्रमांतल्या लोकांक तांणीं सांगलें :

"काल परचुरे शास्त्र्यांच्या रुपान देव म्हजी परीक्षा घेवंक आयिल्लो. हांव दारांत आयिल्ल्या देवाक परतो कसो धाडूं ? पुण देवान म्हजे कडेन तुमकांय सोंपयल्यांत. तुमच्याय आरोग्याची जापसालदारकी म्हज्या आंगार आसा... "

अेका महारोग्याक आपले सजगतीं रावंक दिवप म्हळ्यार अुज्या कडेन खेळपा सारकी गजाल. पुण ताका परतो वचूंक सांगप म्हळ्यार अीश्वराचो अिन्कार केल्ले भशेन जातलें. आश्रमांतले लोक कसोटीक तयार जाले. तांणीं गांधीजींक हुस्क्या मेकळे करून सांगलें.

" परचुरे शास्त्र्यांक आमचे बरोबर रावंक दियात. "

सत्याचो आनीक अेक प्रयोग सुरू जालो. गांधीजींचे खोंपी लागसारच तांचे खातीर अेक खोंप तयार जाली. गांधीजी तांची सेवा आपल्या हातांनीं करूंक लागले.



## : २१३ : केद्री क्रांती !

जेवण जाल्या अुपरांत जण अेकल्यान आपापलें ताट घांसूंक जाय असो आश्रमांत नेम आसा. खासा गांधीजीय आपलें ताट घांसताले. अेक दीस राजेन्द्र प्रसाद आश्रमांत आयिल्ले. तांकां आपलें ताट घांसतना पळवन गांधीजींनीं म्हळें :

" पळेयात, केद्‌च्या मोटचा मनशांक ह्यांवें आयदनां घांसूंक लायल्ले ! "

आनी खरेंच, गांधीजींनीं मोट्‌या मोट्‌या मनशांक ल्हान ल्हान कामां करूंक लावन श्रमाची व्हडवीक वाडयल्ली. भंग्याची सारण बामणांच्या हातांत दिवन समाजीक अूंच-अुणाकपण ना करपाचें तांणी मोटें काम केल्लें. स्वतंत्र भारताचे राष्ट्रपति जावपाची योग्यताय आशिल्ल्या राजेनबाबू सारकेल्यांनीं लेगीत सारण घेवण रस्ते साफ केल्यात. अितलेंच न्हय, तर लोकांचे संडास लेगीत साफ केल्यात.

आयज जांचे कडेन अखो संवसार मोट्‌या आदरान पळेता ते पू. विनोबाजी वर्ध्यांतलो अेक गांव किनलींशींच वर्सां मेरेन साफ करताले ही तुमकां खबर आसा ?

****

## : २१४ :　　भुरग्यांले अिश्ट

सायमन कमिशनाक लागून सगळं हिन्दुस्तान खवळ्ळें. गांधीजी त्या दिसांनी खूब कामांत आसनाले. देशांतले मोटे मोटे लोक तांचो मल्लो घेवंक आश्रमांत येनाले. अश्या वेळार आश्रमांतल्या भुरग्यां भितर अेक वेगळीच चळवळ सुरु जाल्ली आनी तीय गांधीजींच्या अेका निर्णया आड !

गांधीजींनीं आश्रमांतल्या लोकांक लुगटां धुवपाचो शाबू दिवपाचो बंद केल्लो. तांचें म्हणणें आसलें कि गरीब शेतकामत्यांक जें वापरूंक मेळेना तें वापरपाचो आश्रमांतल्या लोकांक हक ना. गांधीजींचो हो निर्णय भुरग्यांक मानवलो ना. तांणीं गांधीजींक जाप विचारपाचो वेत केलो. अेक शिष्टमंडळ तांचेकडेन गेलें. गांधीजींनीं तांचें म्हणणें आयकून घेतलें आनी सांगलें :

" गांवांतले शेतकामती जसो खार वापरतात तसो आमी कित्याक वापरचो न्हय ? "

गांधीजींचें हें म्हणणें आयकून भुरग्यांच्या फुडाऱ्यान जाप दिली :

" गांवांतल्या शेतकामत्यांचीं हीं अन्नाडीपणां आमी कित्याक घेवंचीं ? त्या भायर खारान लुगटां धवीं फुल्ल जावंक पावनात ! "

गांधीजींनीं डाव बदल्लो. तांणीं विचाल्लें : " तुमीच ह्या निर्णया आड कशीं जालीं ? बाकिच्यांनीं तर हूंय करूंक ना, चूंय करूंक ना. "

" बाकिच्यांकूय आमचे भशेनच दिसता. पुण आड वचपाचें तांकां काळीज जायना. "—भुरग्यांनीं जाप दिली.

"तशें जाल्यार शंबरांतल्या सत्तर लोकांच्यो निशाण्यो घेवन येयात आनी हें सिद्ध करून दाखयात–" गांधीजींनीं म्हळें.

हीं भुरगीं आश्रमांतल्या स्वतंत्र वातावरणांत वाडिल्लीं. तांणीं गांधीजींक सांगलें: "आमचें म्हणणें सिद्ध करून दाखयलें जाल्यार आमकां शाबू मेळटलो मू ?"

आनी तीं तांचे कडल्यान तशें अुतर घेवन गेलीं. दोन तीन दिसां भितर भुरग्यांनीं आपलें म्हणणें खरें म्हणपाचें सिद्ध करून दाखयलें आनी गांधीजींनीं निर्णय फाटीं घेतलो !

भुरग्यांचेर गांधीजींचो खूब मोग आसलो. अेक खेपे तर अेका भुरग्यान आपुण फोटोग्राफी शिकलों ना जाल्यार हिन्दुस्तानाक स्वराज्य मेळचें ना अशें तांकां 'पटवन' तांचे कडल्यान म्हैन्याम्हाल पांच रुपये मंजूर करून घेतिल्ले !

****

## : २१५ : म्हजो धंदोच तो

नोआखालींत गांधीजी एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत चलून वताले. वाट सामकी वायट आसली. दोगां एकावरगावर चलूंक शकनासली. गांधीजी मुखार गेले. तांच्या मुखार एकलो मनीस वतालो तो निसल्लो आनी पडलो. पैल्या दिसा कार्यकर्त्यांनीं वाट निवळ केल्ली. पुण मुसलमानांनीं रातींकडेन ती परती भिवाडल्ली. गांधीजी थैंच उबे रावले आनी वाट निवळ करूंक लागले. मनुबेन फाटल्यान आसली. तिच्यान हें पळोवंक जालें. ती धांवत आयली आनी गांधीजींक म्हणूंक लागली : " तुमी वचात....हांव निवळ करतां. "

गांधीजींक हांसूंक आयलें. म्हणूंक लागले : " म्हाका हातूंत कितलो आनंद मेळटा हाची तुका खंय खबर ! "

गांवचे लोक पळेत उबे राविल्ले. मनुबेनीक तांचो राग आयलो. जाका संवसार पूज्य लेखता तो तुमचो गांव निवळ करता आसतना तुमी थंय पळेत उबे रावल्यात ? मात्य लज दिसना ? अशें तिच्या मनांत आयलें.

गांधीजी म्हणूंक लागले : " फायच्यान हे लोक ही वाट निवळ करतले...पळे तूं....असलें काम करपांत उणाकपण ना हें ते आज शिकतले. "

" फाल्यां केली आनी परत तशीच उडयल्ली जाल्यार ?" तिणें विचाल्लें.

" तुका हांव पळोवंक धाडटलों....आनी तशीच घाण आसली जाल्यार हांवूच येवन परती निवळ करतलों. घाण निवळ करप हो म्हजो धंदोच..."

****

## : २१६ : जागरुक गांधीजी

स वर्साची ख्यास्त दिली आनी गांधीजींक सरकारान येरवड्याचे बंदखणींत दवल्लें. थैं दोन वर्सां जालीं जातलीं. अितल्यांत तांकां 'अॅपेन्डिसायटिस' ची पिडा जाली. ऑपरेशन करपा खातीर सरकारान तांका पुण्याच्या ससून हॉस्पिटलांत व्हेले. थैं ते कैदीच ह्या नात्यान आसले. हॉस्पिटलांत तांच्या आंगार हॉस्पिटलांतले कपडे आसले. तेय विलायती. गांधीजी खादिचो आग्रह घेवपी आसुनूय विलायती कपडे कशे घालतात हें पळवन कांय जाणांक अजाप जालें. वासपुस करतकच कळ्ळें कि ते हॉस्पिटलांतले सगळे नेम पाळूंक सोदतात.

ऑपरेशन जालें. गांधीजी बरेच अशक्त दिसताले. कांय दिसांनीं सरकारी हुकूम आयलो आनी गांधीजी सुटले. डॉक्टरान येवन सांगलें कि सरकारान तुमकां सोडल्यात. तुमकां जाय जाल्यार हांगा रावात वा वचात. पुण डॉक्टर ह्या नात्यान आपणाक दिसता कि कांय दीस तुमी हांगाच रावल्यार बरें.

गांधीजींनीं हॉस्पिटलांतच कांय दीस रावचें अशें थारायलें. डॉक्टराक तांणीं तशें सांगलें आनी त्याच खिणांत म्हर्‍यांत आशिल्ल्या मनशाक तांणीं सांगलें : "आतां हे कपडे अेक खीण लेगीत हांव म्हज्या आंगार दवरचों ना. म्हजे खादिचे कपडे रोखड्या रोखडे हाडात."

कांटच्यांचे कपडे आंगार आशिल्ले जाल्यार जितले व्याकूळ जावचे नासले तितले व्याकूळ ते ह्या विलायती कपड्यांनीं जाले. बंदखणींतल्यान सुट्टकूच खीणभर लेगीत ते हे कपडे वापरूंक तयार नासले. खादिचे कपडे आयले तेन्नाच तांकां समाधान जालें.

****

## : २१७ : आकुंचित धर्म न्हय

गोलमेज परिशदेंतल्यान परतना फुडें गांधीजींनीं परती चळवळ सुरू करपाचें थारायलें. ब्रिटीश मालाचेर बहिष्कार घालपाचो अेक थाराव तांणीं हाडलो. तो दुसऱ्या दिसा देशा मुखार दवरपाचो आसलो. ते पैलीं तांणीं प्यारेलालजींक – तांगेल्या सेक्रेटरीक – आपवन सांगलें :

"अिंग्लंडाक आमचे बरोबर जे दोन गुप्त पोलीस आसताले तांका दोन घड्याळी धाडून दिवंक जाय. तेन्ना बाजारांत वचून बऱ्योश्यो दोन घड्याळी घेवन यो."

प्यारेलाल मुम्बैच्या बाजारांत भोंवन कितल्योश्योच घड्याळी दाखवपा खातीर घेवन आयले. पुण तांतली अेकूय अिंग्लंडांत तयार जाल्ली घड्याळ नासली. गांधीजींनीं म्हळें :

"ह्यो अुपकरा पडच्यो नात. अिंग्लंडांत तयार केल्ल्यो जाय."

प्यारेलालजींक अजाप जालें. तांणीं म्हळें :

"ब्रिटीश मालाचेर बहिष्कार घालपाचो थाराव फाल्यां तुमीच हाडपाचे आसात."

"हांवें तांकां अुतर दिल्लें....त्या भायर म्हाका अशेंय दाखवंक जाय कि हांवें ब्रिटीश मालाचेर बहिष्कार घालूंक सोदतां आसल्लों तरूय ब्रिटीश माल तो फक्कत ब्रिटीश म्हुण हांव ताचे आड ना..."

गांधीजींचो स्वदेशी धर्म आकुंचित नासलो. तातूंत परदेशी मालाचो दुस्वासूय नासलो. आपल्या देशांत घड्याळी जायनात आनी ब्रिटीश मालाचेर आपणे बहिष्कार घाला, म्हुण स्वित्झर-लंडच्यो घड्याळी घेवप हें तांगेल्या स्वदेशी धर्मांत बसनासलें.

****

## : २१८ : सेवा आनी सन्यास

साबरमती आश्रमांत अेक दीस स्वामी सत्यदेव आयले. ते पैलीं नांणीं जायतीं पुस्तकां बरयल्लीं. अमेरिकेक वचून आयिल्ले आनी नांवाजते जाल्ले. देशाचे स्वतंत्रताये खातीर तांणीं सन्यास घेतिल्लो. गांधीजीय तेंच काम करतात हें पळवन तांणींय आश्रमांत येवन रावचें अशें येवजिलें.

गांधीजींनीं म्हळें : " आश्रम तुमचेच साग्केल्यां खातीर काडला. पुण म्हजी अेक अट आसा, तुमकां भगवीं वस्त्रां सोडचीं पडटलीं."

तांकां धक्कोच बसलो. म्हणूंक लागले : " म्हज्यान हें कशें करूं येत ? हांव सन्यासी !"

" हांव सन्यास सोडात म्हणिना; भगवीं सोडात म्हणटां." गांधीजींनीं जाप दिली – " आमच्या देशांत भगवीं घालतल्या मनशाक पळेना फुडें लोक ताची सेवा आनी भक्ती करूंक धांवतात. आमका सेवा घेवपाची ना. सेवा करची आसा. भगवीं वस्त्रां तुमकां सेवा करूंक दिवचीं नात. आनी सन्यासाचो वस्त्रां कडेन कितें संबंद ? सन्यास ही अेक मानसिक स्थिती. भगवीं वस्त्रां सोडलीं म्हुण सन्यास थोडोच मुट्टा ! ...."

****

## : २१९ : बायलो आनि गुंड

"गुंडांनीं बायलांचेर बलात्कार केलो जाल्यार त्या वेळार बायलांनीं कितें करचें ? पळून वचचें काय चाकू मदांच बरोबर दवरचो ?"

गांधीजींनीं ह्या प्रस्नाक खूब फावटीं जाप दिल्या. अेक खेपे तर तांणीं म्हणिल्लें कि बायलांकडेन नाखटां आनी दांत आमनना चाकवाची गरजच ना. गुंडाक भुरकून काडचो वो घांस मारचो.

नोआखालिचे यात्रेंत गांधीजींक परतो कोणें असोच प्रस्न केलो. तेन्ना तांणीं सांगलें :

"चाकू सांबाळप म्हळ्यार हिंमेची तयारी दवरप अशें जाता. पुण खरी तयारी जाय ती मरपाची. हे तयारेकच हांव अहिंसा म्हणटां. ही तयारी आसत जाल्यार चाकवाची गरज ना....गुंडाचो प्राण घेवचो काय आपलो प्राण दिवंचो ह्या दोनां भितल्लें अेक कितेंय वेंचून काडचें पडलें जाल्यार हांव आपलो प्राण दिवप हेंच वेंचून काडटलों."

पुण गांधीजी म्हणटाले कि बायलांचें मन पवित्र आसत जाल्यार गुंडाचो हातच तांकां लागचो ना.

****

## : २२० : आमचें पातक

काश्मिरांत सैमाची सुंदरकाय खूब पळवंक मेळटा. बर्फाचे दोंगर, तळीं, न्हंयों, फुलां, फळां पळवन कोणाकूच पुरो जायना. थैंचो लोकूय सुंदर. भुरग्यांचे गाल म्हळ्यार सफरचंदां कशीं. थैंची हवा बरी जाल्ल्यान सगळ्यांचें आरोग्यूय बरें आसता. लोक बेकार नासतात. ल्हान ल्हान भुरगीं लेगीत दीसभर कामांत आसतात.

१९४७ त गांधीजी काश्मिराक गेल्ले. थैं तांणीं तोंडार पावडर आनी ओंठांक लिपस्टीक लायिल्ल्यो कांय बायलो पळेल्यो. असल्या रम्य वातावरणांत ही अडेची सुंदरकाय पळवन तांकां वायट दिसलें. तांणीं आपल्या वांगडच्या एकल्याक म्हळें :

"हांगा सैमान सुंदरकाय अितली शिंपडायल्या कि अडेचे सुंदरकायेची गरजच ना. हांगा लोकांक लिपस्टिकाची गरज कित्याक लागची ?"

"फॅशन ती..." तांगेल्या वांगडच्या मनशान म्हळें.

"हय....आमी भायल्या लोकांनीं येवन हांकां ह्यो शिकयल्यात... अस्तमते कडल्यान जें घेवंक जाय आसलें तें घेतलें ना. आनी जें घेवंक नाका आसलें तें हट्टान घेतलें...आनी ह्या साद्या-भोळ्या लोकांकूय अिबाडून अुडयले..."

आनी थोडो वेळ थांबून म्हणूंक लागले : "आमी ल्हाना-सामान्यांतले पातक करूंक ना."

...१६ ****

## : २२१ : म्हका वेळार अुठवंक जाय आसलो

लोक भायर वाट पळेत बशिल्ले. सुमार पांचशीं लोक आयिल्ले. गांधीजींक पुरो जाल्लें. पत्रां वाचनां वाचनांच ते न्हीदले. तांकां अुठवपाचो धीर कोणाक जालो ना. अुठपाक पांच मिण्टांचो अुशीर जालो. अुठून घड्याळ पळंली जाल्यार कळाव जाला ! गांधीजींक खूब वायट दिसलें. ताणीं आपल्या सेक्रेटरीक म्हळें : " म्हाका वेळार अुठवंक जाय आसलो. पांच मिण्टां अुशीर जालो. पांचशीं मनशांचीं पांच पांच मिण्टां आज हावें चोरलीं. असलें घडटकूच म्हाका खूब वायट दिसता ... म्हाका दोन सेकंडांचो लेगीत कळाव जाल्लो आवडना ... म्हाका वेळार अुठवंक जाय आसलो."

आनी भायर गेले ते जशे कितें गुन्यावकारी जाल्ले भशेन गेले.

****

## : २२२ : म्हजी काकूळट वेगळे तरेची

गांधीजीं बरोबर वावर करपा खातीर अेकलो नवो कार्यकर्तो आयिल्लो. गांधीजी सदांच कार्यकर्त्यांची सारकी परीक्षा घेताले. ताणीं ताका सगळीं कामां हातांनीं करूंक सांगलीं. जेवण लेगीत हातांनीं करून जेव म्हुण सांगलें. संडास सफाअी तर सगळ्यांक करचीच पडटाली.

नवोच मनीस ! ताका सगळींच कामां कशीं येतलीं ? पुण ताची काकूळट गांधीजींक नासली.

गांधीजीं बरोबर रावतले अेकले चलयेक ताची काकूळट दिसली. पुण ताका आधार दिवपाचें तिका काळीज जायना जालें. गांधीजींक

कळत जाल्यार ते खावंक येतले हें ती जाणां आसली. म्हुण तीय काळीज घट्टं करून रावली.

गांधीजींक मालीस करता आसतना तिणें हो प्रस्न काडलो. गांधीजींनीं म्हळें: " हांव हाका दया म्हणिना. म्हजी दया वेगळे तरेची....पोटांत कितेंय अिबाडलें आनी डॉक्टराक तें कापचें पडलें तर तो ' बावड्याक कातर लायन जाल्यार दुखतलें ' अशें म्हणिना ...तशें म्हणीत जाल्यार ताका नालायक डॉक्टर म्हणचो पडटलो. पोट कापचें पडलें जाल्यार कापूंक जाय···तशेंच हें. तो कार्यकर्तो जावंक पळेता. ताका ह्यो सगळ्यो गजाली येवंक जाय. ताका त्यो येनात म्हुण ताची काकूट करप म्हळ्यार ताका पंगु करपा सारकें... "

****

## : २२३ : म्हजे बरोबर रावंक मेळचें ना

गांधीजींनीं राजकी अुलवपां करचीं न्हय अशें थारायल्लें. ते विधायक कार्यांत गुल्ल आसले. ताचो प्रचार करीत ते हिंदुस्तान-भर भोंवताले.

त्या दिसांनीं अेकलो जर्मन भुरगो तांचे मरीं रावंक आयिल्लो. आपले जिणे विशीं अदीक जाणां जावन घेवची अित्सा आशिल्ल्यांक ते आपल्या वांगडा रावंक दिताले. तो भुरगो तांचीं कामांय करूंक लागिल्लो.

अुडिसांत अेके कडेन त्या भुरग्यान अेक अुलवप केलें. ताणें तातूंत आपल्या देशा विशीं कितेंय सांगिल्लें जाल्यार गजाल वेगळी आसली. पुण तो हिन्दुस्तानांतले राजवटके विशीं अुलयलो. ती जुलमी आनी अत्याचारी कशी हें ताणें रंगवन सांगलें. दुसऱ्या

दिसा ताका सरकारान कळीत केलें कि ह्या मुखार ताणें असलीं अुलवपां केलीं जाल्यार ओडिसा सोडचें पडटलें. ब्रिटिशांच्या जुलमांचो आनीक अेक पुरावो आपणाक मेळ्ळो अशें समजून ताणें तें गांधीजींक सांगलें.

गांधीजींक केन्नाच कोणें अितले तांबडे जाल्ले पळवंक नात जातले. ते ताका अुलवंक लागले: "तुवें प्रतिज्ञेचो भंग केलो... तुका खबर नाशिल्ली कि हांव राजकी अुलवपां करचों ना म्हुण ?"

"पुण गांधीजी, अुलवप तुमी खै केलां ? हांवें केलां." ताणें म्हळें.

"तुवें केलें म्हुण कितें जालें ? तूं म्हजे बरोबर आसता...तें हांवेंच केल्लेवरी जाता."

आनी गांधीजींनीं ताका माफी मागून पत्र बरय म्हुण सांगलें. ताची माफी मागपाची तयारी नासली. तो वाद करूंक बसलो. गांधीजी असल्या वेळार खंबीर जावंक जाणां आसले. तांणीं सांगलें:

"तुजी पत्र बरवपाची अित्सा नासत जाल्यार तुवें आतांच म्हजे पसून कडेक सरूंक जाय....तुका म्हजे बरोबर रावंक मेळचें ना."

****

## : २२४ : शिकवपांत क्रांती

गांधीजींक भुरग्यांची खूब ओड. तांचे बरोबर ते खेळटाले आनी खेळटां खेळटांच तांकां शिकयताले. अेकां पत्रांत ताणीं बरयल्लें :

" हालीं भुरगीं म्हाका काणयो सांगूंक सांगतात. ताणीं म्हाका हे कलेंत तज्ञ केला. भुरग्यांक काणयो सांगून सगळे तरेचें शिक्षण दिवंयेता हाची म्हाका आतां दिशिदिशीं खातरी जावंक लागल्या. हांवें म्हज्या भुरग्यांक अशेच तरेन शिकयल्यात. तांकां हांवें शाळेंत वा कॉलेजांत घालीं नात आनी डिग्न्योय मेळूंक दिल्यो नात. पुण म्हजो समज आसा कि हांवें तांकां शाळां–कॉलेजां परस बरें शिक्षण दिलां, चड तर दिलांच दिलां."

गांधीजींचे शिक्षण पद्धतींत पुस्तकांक म्हत्व ना. म्हत्त्व आसा शिकवप्याक. ते म्हणटाले कि शिकवपी गिन्यानान भरिल्ली आसूंक जाय आनी चारित्र्यवान आसूंक जाय. बाकिचें सगळें भुरग्यांक आपशींच मेळटा.

गिन्यान वेगळें आनी म्हायिती वेगळी अशें ते म्हणटाले.

****

## : २२५ : स्वराज्य जाय आसलें न्हय ?

गांधीजी कोडू लिंबाच्या कोंवळया पानांची चेटणी करून खातालें. अितलेंच न्हय, तर ती दुसऱ्यांकूय दितालें. अुपरांत सोयाबिनाचे प्रयोग तांणीं सुरू केले. अेक दीस तांकां अेक नवोच प्रयोग येवजलो. मगनवाडींत अेके तरेचो पालो जानालो. तो कोण खायनासलो. गांधीजींनीं ताचें ‘ सालाद ’ करून खावचें !

कांय दिसांनीं संत्रां जाल्लीं. तांच्यो साली भायर पडटात त्यो तांच्यांनीं पळवं नज जाल्यो. त्या सालींनीं कांय ‘ गुण ’ तांकां दिसले आनी तांचो मुरांबो करून तांणीं घेतलो.

आमटांणिचे अुदक करून तातूंत गोड घालप आनी ताचें सरबत करून पियेवप; तर केन्ना गोडा बदला मीठ घालून पियेवप !... गांधीजींनीं मगनवाडींत कितें कितें करूंक ना ! आचार्य कृपालानी म्हणटात : “तांणीं आमकां गोरवांक घालतात ती पेण लेगीत खावंक घाली ! कितें करतले ? खाली ! स्वराज्य जाय आसलें न्हय ?”

तें कित्याक, कांय दिसांनीं गांधीजींनीं अेके कडेन वाचलें कि तणांत लेगीत ‘ वितामिनां ’ आसतात ! पुण सुदैव मगनवाडींतल्या लोकांचें ! कित्याक, गांधीजींक त्या दिसांनीं भायर वचचें पडलें ! ना जाल्यार, कुमारप्पा म्हणटात : “ रांदप बंद जातलें आसलें आनी आमकां तण चरचें पडटलें आसलें ! ”

गांधीजींक अन्नाच्या प्रयोगांत खूब रुच आसली. आश्रमांत वो तांचे वळखिच्यां भितर कोणूय बरो ना जालो जाल्यार ताणें कितें खावचें आनी कितलें खावचें हें गांधीजी थारायतालें आणि त्या खातीर गरज पडल्यार ते धा-धा, पंदरा-पंदरा रुपयांचे तेलेग्रामूय करतालें.

****

## : २२६ : मरणदान

गांधीजींनीं अहिंसेचो पुरस्कार केलो. पुण तांगेली अहिंसा जैनांची नासली. आश्रमाचे सुरवातिचे दीस. अहमदाबादेक सुणीं लोकांक त्रास दितालीं. गांधीजींनीं तांकां मारपाचो हुकूम सोडलो. गांधीजींच्या ह्या निर्णयाआड वादळ अुठलें. तांकां धमकी दिवन पत्रांय येवंक लागलीं. पुण तांणीं तें सगळें हांश्यार व्हेलें.

सुण्यांक मारप अेकवेळ सोंसूं येत. पुण गायक मारप हिन्दुस्तानांत कोण सोंशीत ? सेवाग्रामाक अेक पाडूक पिडेन वळवळटालें. ताका वांचवपाचे सगळे यत्न केले. पुण ताची पिडा अुणी जाली ना. ताचे फडफडे पळवं नज आसले. गांधीजींचें काळीज दयेन कळवळून आयलें. तांणीं ताका, ‘ मरणदान ’ दिवचें थारायलें. आश्रमांत हाचेर बरीच चर्चा जाली. पाडकाक दुसरो अुपाय नासलो. सगळ्यांक गांधीजींचें मत पटलें. गांधीजींनीं डॉक्टराक आपवन सांगलें– “ ताका अिंजेक्शन दिवन मरणदान दियात. ”

डॉक्टर पाडका सरीं गेलो. खासा गांधीजीय बरोबर गेले. अिंजेक्शन दिलें. आनी पाडूक खिणांत सुटलें. गांधीजींनीं अेका लुगटान ताचें तोंड धांपलें आनी जशें कितें कांयच घडूंक ना अशे तरेन आपल्या कामाक लागले.

वर्तमानपत्रांनीं त्या दिसांनीं जायती टीका आयली. अेकल्याचें अेक पत्र आयलें : “ गांधी, तुमी त्या पाडकाक माल्लें. तुमकां हांव मारिना जायन जाल्यार नांवांचो हिन्दू न्हय जायन. ”

गांधीजी हांस हांस हांसले. पुण तांची जीणच वादळां अुठवपाची आसली.

****

## : २२७ : हांवूच त्या डब्यांत बसतां

गांधीजी कलकत्त्याक वताले. वाटेर पावस पडलो आनी गाडयेच्या डब्यांत अुदक येवंक लागलें. सगळो डबो भिजलो. अेका स्टेशनार गार्ड आयलो आनी गांधीजींक डबो बदलूंक सांगूंक लागलो.

" मागीर, ह्या डब्याचें कितें ? " गांधीजींनीं विचाल्लें.

" तुमचे खातीर जो डबो रिकामी केला त्या डब्यांतल्या लोकांक हातूंत बसवचें अशें थारायलां. " ताणें जाप दिली.

" तशें जाल्यार मागीर हांवें डबो बदलूंक कित्याक जाय ? हांवूच ह्या डब्यांत बसतां."

गार्डाक अुतर फुटलें ना. थोडया वेळान म्हणूंक लागलो :

" आनीक कितेंय सेवा ? "

" सेवा ? हय. जायनी आसा. लोकांक त्रास दिवं नाकात. लांच घेवं नाकात. अितलें केल्यार म्हजीच सेवा केल्ले वरी जातली. " गांधीजींनीं जाप दिली.

****



## : २२८ : सांबाळूंक येवंक जाय

गांधीजी दर अेकले वस्तुचो अदिकांत अदीक अुपयोग करूंक जाणा आसले. दर अेकली वस्त सांबाळून दवरूंक जाणा आसले. कापसाचे पेळू सामके अिबाडले तरूय गांधीजी तांचो अुपयोग करताले. पिंदकीं लुगटां लेगीत सांबाळून वापरताले.

" सांबाळूंक येवंक जाय " ह्या वाक्यांत गांधीजींची पुराय जीण येता अशें म्हळचार जाता. कबीरान अेका भजनांत जें म्हळां " दास कबीर जतनसे ओढी, ज्यों कीं त्यों धर दीनी चदरिया " तें गांधीजींचे जिणेक लागू जातालें. तांणीं आपले कुडिची आनी मनाची निर्मळसाण जितल्या जागरूकपणान सांबाळ्ळ्या तितली कोणें सांबाळ्ळ्या जातली ?

****

## : २२९ : पायांनीं कांतीन

अुजव्या हाताक पुरो जातकच गांधीजी दाव्या हातान काम करताले. पत्रां दाव्या हातान बरयताले. चरखोय दाव्या हातान कांतताले. वल्लभभाअींक विनोद करपाक तेंच अेक साधन मेळ्ळें. तांणीं म्हळें :

" तुमी दाव्या हातान सूत कांततात म्हुण आश्रमांत खबर पावत जाल्यार लोक ते प्रमाण कांतूंक लागतले आनी अेक नवो पंथ सुरू जातलो. "

गांधीजीनीं म्हळें : " तातूंत नुकसान कितें ? जपानांत दोनूय हातांनीं सूत कांततात ! "

गांधीजींचें दाव्या हातान कांतप खूब दीस चल्लें आनी तो हात दुखूंक लागलो. वल्लभभाअींनीं तें पळेलें आनी महादेवभाअींक म्हणूंक लागले :

" ओ . . . हो, महादेव, फायच्यान बापू पांयांनीं कांतूंक लागतले . . . पळेशीत तूं. "

गांधींक खूब हांसो आयलो. म्हणूंक लागले : " जमल्यार तोय प्रयोग करून पळेन. "

****

## : २३० : विनोदी सरदार

गांधीजी अुदकांत म्हांव आनी लिंबू घालून तें घेताले. म्होंवांत लिंबू पिळप आनी ताचेर सळसळीत अुदक ओतवप; मागीर तें थंड पडसर वाट पळवप अशें गांधीजी करताले.

कांय दिसांनीं गांधीजींनीं पेल्याचेर अेक रुमाल धांकूंक सुरवात केली. अेक दीस तांणीं महादेवभाअींक विचाल्लें : " हांव हो रुमाल कित्याक धांकतां, कळ्ळें ? . . . हवेंत ल्हान ल्हान जंतू अितले आसतात कि ते वाफेक लागून भितर पडूं शकतात. . . . "

वल्लभभाअी म्हऱ्यांत आसले. तांचो स्वभाव विनोदी. ते म्हणूंक लागले :

" अितली खर अहिंसा पाळप आमच्यांनीं नज. "

तिगूय हांसूंक लागले.

येरवडच्याचे बंदखणींत सरदार वल्लभभाअी गांधीजींक हांस-वपाचें केन्नाच सोडिनासले. अेक खेपे अेकल्या म्हाताऱ्याचें अेक पत्र गांधीजींक आयलें. ताका दमो जाल्लो. गांधीजी निसर्गोपचार जाणांत म्हुण ताणें गांधीजींक पत्र बरयलें. महादेवभाअींनीं म्हळें: "सगळ्यांक जापो बरवंक खैं बसतले?" गांधीजींकूय तें खरें दिसलें आनी तांणीं पत्र पिंदले. वल्लभभाअी पळवन म्हणूंक लागले: "आरेच्या . . . बरवचें आसलें, अुपास कर, भाजी खा, सोडा पिये . . ."

गांधीजींक खूब हासूंक आयलें. तांणीं म्हळें: "महादेव, ताका जाप बरवंया . . ."

आनी खरेंच ताका जाप बरयली.

महादेवभाअींनी आपली 'डायरी' बरयल्या. तातूंत असले कितलेशेच प्रसंग आसात. गांधीजींचो सभाव आनी तांचो वल्लभभाअीं कडलो संबंद तातूंत पळवंक मेळटा.

****



## : २३१ : तुमच्या आयुष्यांत जमा करात

१९४२ त काँग्रेसच्या अधिवेशनांत गांधीजींनीं आपली १२५ वर्सां जियेवपाची अित्सा अुक्तावन दाखयली. दुसऱ्या दिसा ते बंदखणींत पावले. थैं तांणीं २१ दिसांचो अुपास केलो. अुपासान तांची तब्येत अिबाडली. हे अग्निपरीक्षेंतल्यान ते बरे भशेन भायर सरूं अशें सगळे मागूंक लागले. अुपरांत गांधीजी सुटले. कांय दिसांनीं पंडित मदन मोहन मालवियांची गांधीजींक अेक तार आयली :

" मनीस जातिचे आनी भारतमातेचे सेवे खातीर देव तुमकां शंबर वर्सांचें आअुक दिवं."

" गांधीजींची १२५ वर्सां जियेवपाची अित्सा आसली ही खबर पंडित मालवियांक घडये नाशिल्ली जावंये. गांधीजींनीं तांकां जाप धाडली :

" तार मेळ्ळी. म्हज्या आयुष्यांतलीं २५ वर्सां तुमी कापलीं. कांय नज. आतां तीं तुमच्या आयुष्यांत जमा करात."

****

## : २३२ : पांच विसो कश्यो सोंसूं ?

रवीद्रनाथ ठाकुरांक ८० वर्सां भर जाल्ली. गांधीजींनीं तांच्या जल्म दिसा तार धाडली :

" चार विसो पुरोनात. पांच विसो तरी जियेयात."

रवीन्द्रनाथांनीं जाप धाडली :

" चार विसांचोच त्रास जाता. पांच विसो कश्यो सोंसूं ? "

****

## : २३३ : दक्षिण आफ्रिकेंतली बंदखण

१९३२ त सरकारान बऱ्याच–श्या कैद्यांक पिडापीड दिवपाक सुरवात केली. गांधीजींच्या कानार ह्यो खबरी येवंक लागल्यो तेन्ना तांच्यांनीं जाता तें तांणीं केलें. एक दीस म्हणूंक लागले : "बंदखणिचो अणभव ह्या लोकांक जाता तो तांकां बऱ्याक पडटलो...आमी बंदखिणिचो खरो अणभव घेवंकूच ना. म्हाका जाल्यार कसलेच त्रास जावंक नात."

महादेवभाअी तांचे बरोबरच आसले. ते म्हणूंक लागले– "१९२२ त तुमकां त्रास सोंसचे पडिल्ले, न्हय ?"

"कसले त्रास ?...तसले आतांय सोंसतां. पुण खरी बंदखण हांवें भोगल्या ती दक्षिण आफ्रिकेंत...गाळी खाल्यो, मजूरी केली, मार खालो."

"मार खालो ?" महादेवभाअींनीं अजापान विचाल्लें.

"हय...पुण जेलरा कडल्यान न्हय, दुसऱ्या कैद्यां कडल्यान." गांधीजींनीं सांगलें– "आमकां झुलू लोकां बरोबर दवल्लेले. वेगळी व्यवस्ता नासली. एक दीस हांव परसाकडेन गेल्लों. अितल्यान अेकलो झुलू आयलो आनी म्हाका अुठूंक सांगूंक लागलो. हांव अुठ्ठालों. म्हण्टा म्हणसर ताणें म्हाका धुकल्लो आनी म्हाका मारूंक लागलो...असले त्रास हांवें जायते काडल्यात. दिसाक णव–णव वरां आमचे कडल्यान कामां करून घेतल्यांत आनी वैल्यान अुपाशीं अुडयल्यात...."

दक्षिण आफ्रिकेंत गांधीजी चार खेपे बंदखणींत गेल्यात आनी दर खेपे तांणीं त्रास सोंसल्यात. गांधीजींच्या जीविताक थंच वेगळें वळण लागलें म्हळचार जाता.

****

## : २३४ :　　　　तो निर्णय आनी तो खीण

गांधीजींनीं आपले आत्मकथेंत अेक म्हत्त्वाचें वाक्य बरयल्लां. ते म्हणटात : “ जें म्हाका अेकल्याक करूंक आयलें तें मगळयांक येवंक जाय. ”

आनी आमीं तांगेली जीण नियाळून पळेली जाल्यार ह्या वाक्याचें खरेपण सट्ट करून आमच्या ध्यानांत येतलें. कित्याक, गांधीजी मूळचे किरकोळ मनीस आसले. सभावान भिडेस्त आनी भित्रे. व्याख्यान दिवचें पडल्यार तांचे पांय लटलट्टाले. तांच्यांत मोटेपणां दिश्टी पडूंक नासलीं. पुण किरकोळ मनशाचे जिणेंत लेगीत केन्ना केन्ना असले प्रसंग येतात जेन्ना ताचो पुरायान कस लागता. त्या वेळार तो जागरूक रावलो जाल्यार तो जिखता.

बॅरिस्टर जावन लेगीत जेन्ना धंदो चलना जालो तेन्ना गांधीजी दक्षिण आफ्रिकेंत नशीब अजमावन पळवपाक गेले. थैं पावल दवरना फुडें तांच्या लक्षांत आयलें कि भारतीय लोकांक थैं मोलच ना. मनीसपणान लेगीत तांकां जियेवंक मेळना. तांकां थैं अुणाक लेखतात, ‘ कूली ’ म्हणटात. गांधीजींक थैं ‘कूली बॅरिस्टर’ हें नांव मेळ्ळें.

तांणीं थैं तरेक जरा अपमान मोंसले. दक्षिण आफ्रिकेंत पावल दवरना फुडें दुसऱ्या काय तिसऱ्या दिसा ते कोर्टांत गेल्ले आसतना तांकां तांगेली पगडी काडूंक सांगली. गांधीजींनीं काडिना म्हळें आनी ते कोर्ट सोडून गेले.

कांय दिसांनीं तांकां दुसरो अेक अणभव आयलो. तांकां प्रेटोरिया शारांत वचचें आसलें. गाडयेच्या पैल्या वर्गाची तिकेट काडिल्ली. रातच्या णवांक डब्यांत अेकलो ‘ सायब ’ चडलो.

ताणें गांधीजींकडेन पळेलें. ‘ कुली ’ पळवन तो देंवलो आनी अेकल्या अमलदाराक घेवन आयलो. ताणें गांधीजींक सांगलें : “ तुमकां दुसऱ्या डब्यांत बसचें पडटलें. ”

“ म्हजे कडेन पैल्या वर्गाची टिकेट आसा–” गांधीजींनीं जाप दिली.

“ आसूं....पुण तुमकां दुसऱ्या डब्यांत बसचें पडटलें. ”

“ हांव डरबनच्यान बसलां आनी ह्या डब्यांत बसूनच हांवं प्रवास करतलों–” गांधीजींनीं सांगलें.

“ तें कांय अुपकरा पडपाचें ना. तुमकां देंवचें पडटलें. ना जाल्यार शिपायाक सांगून तुमकां देंवयतलों. ”

“ तशें जाल्यार शिपायाक देंववदी. हांव देंवपाचों ना. ”

शिपाय आयलो. ताणें गांधीजींचो हात धल्लो आनी तांकां धुकलून सकल देंवयले. गांधीजी दुसऱ्या डब्यांत गेले नात. गाडी सुटली.

शियांचे दीस. सवन्‌रात तांणीं स्टेशनार कुडकुडत काडली. हे वटेन तकलेंत विचारांचें चाक घुंवंक लागलें–“ हांवें कितें करचें? अेक तर हावें हांगा रावन म्हज्या हक्कां खातीर झगडूंक जाय वा हिंदुस्तानांत परतो वचूंक जाय...परतो कसो वचूं ?... तीं भित्रेपणा जातलीं. ”

तरेकतरा येवजिलें आनी निमाणें “ हांगाच रावतलों आनी म्हज्या हक्का खातीर झगडटलों ” असो निर्णय घेतलो.

आनी हो निर्णय घेतलो त्या खिणापसून तांचे जिणेन अेक वेगळेंच वळण घेतलें.

म्हुण गांधीजी म्हणटात : “ म्हाका अेकल्याक करूंक आयलें तें सगळ्यांक येवंक जाय. ”

****

## : २३५ : सत्याग्रहाचो जल्म

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सरकारान अेक कायदो केल्लो. तो पास जाल्लो जाल्यार हिंदी लोकांक थैं कसलेच अधिकार अुरचे नासले, देखून ताचो निपेध करपा खातीर गांधीजींनीं अेक सभा आपयली. हे सभेंत तांणीं अेक थाराव हाडलो आनी तो लोकां मुखार मांडलो. थारावांत म्हळ्ळें कि सगळे तरेचे यत्न करुनूय सरकारान तो कायदो पास केलो जाल्यार हिन्दी लोकांनीं तो मान्य करचो न्हय आनी त्या खातीर जें कश्ट सोंसचे पडत ते मोन्यांनीं सोंसचे.

गांधीजींनीं थाराव लोकांक समजायलो. सगळयांनीं तो आयकून घेतलो. सभेंत ताका तेंको दिवन दुसऱ्यांचीय कांय अुलवपां जालीं. तातूंत हाजी हबीब नांवाच्या अेका व्यापाऱ्याचें अुलवप जालें. तातूंत तांणें म्हळें :

"देवाक गवाय दवरून आमी हो थाराव पास करूंक जाय. हांव तर देवाचो सोपूत घेवन सांगतां कि सरकारान कायदो पास केलो जाल्यार हांव तो मेल्यार लेगीत मान्य करचो ना."

गांधीजींच्या कानार हीं अुतरां पडना फुडें तांकां वेगळेच तरेचे जापसालदारकेची जाणवीक जाली. हृया आदीं थाराव जायते पास जाल्ले. पुण देवाक मदीं घालून अेकूय पास जावंक नासलो. गांधीजी अुठले आनी अुलवंक लागले :

"देवाक गवाय दवरून थाराव पास करपाची ही तरा नवी आनी गंभीर. येदी मोटी जापसालदारकी आमी केन्ना घेवंक नासली... म्हुण हांव तुमकां सांगूंक सोदतां कि सगळे तरेन

येवजून सोपूत घेयात...सोपूत घेतकूच तो मोडूंक जायना...”

लोकांनीं ओीश्वराक गवाय दवरून तो कायदो पास जायत जाल्यार न मानपाचो सोपूत घेतलो.

आनी हे भशेन त्या दिसा सत्याग्रहाचो जल्म जालो !

****

## : २३६ : सदाग्रहाचो ‘ सत्याग्रह ’

कितें तरी नवें जल्माक आयिल्लें. पुण ताका कितें म्हणचें हें गांधीजी नकळ आसले. तांणीं ताका सुरवेक निःशस्त्र प्रतिकार म्हळो. पुण ताणें तांचे हे नवे तरेचो पूर्ण अर्थ अुक्तो जायना जालो. गांधीजींच्या ‘ प्रतिकारां ’ त सत्याचो आग्रो अदीक आसलो. तो निखटो ‘ निःशस्त्र ’ नासलो. शस्त्रां मेळिल्लीं जाल्यारूय गांधीजी तीं हातांत घेवंचे नासले.

गांधीजींनीं चळवळीक कसलें नांव दिवचें हे विचारून बरें नांव सुचयतल्याक तस्त्रीप दिवंची केली. मगनलाल गांधी हाणीं तातूंत वांटो घेतलो. तांणीं ‘ सदाग्रह ’ हें नांव सुचयलें. गांधीजींनीं तातूंत थोडो फरक केलो. ‘ द ’ चें ‘ त ’ केलें आनी ताका ‘ य ’ जोडून ‘ सत्याग्रह ’ हे अुतर घडलें. आनी तेन्नाच्यान हें नवें अुतर चलूंक लागलां.

****



## : २३७ : अेकलो चल रे

प्रत्येक म्हा–पुरुसाचे जिणेंत कसोटिचो अेक प्रसंग येता जेन्ना तागेली सगळी तपश्चर्या पणाक लागता. गांधीजींनीं तीस वर्सां झरून मातयेंतल्यान मनीस निर्माण केले, मुर्दाड देश जागवन अुबो केलो आनी स्वराज्य आतां हुंबराकडेन पाविल्लें. अितल्यांत—

भाव–भावाक मारूंक लागलो. आवयो-भैणीं पळेनासतना लोक तांचेर आगळिको करूंक लागले. कोंवळ्या भुरग्यांक मरणाचे दाढींत अुडवंक लागले. मनीसपण ना जाल्लें. लोकांचे गोमटेर म्हारू बशिल्लो. गांधीजींची सगळी तपश्चर्या अुध्वस्त जावंक लागिल्ली.

गांधीजींक त्या वेळार कितें भोगलां जातलें ह्याची आमकां कल्पनाच करूंक येवंची ना. पुण परिस्थिति कितलीय आड आसली तरूय गांधीजी हार खावंक नकळ आसले. तांणीं परिस्थितीचें आह्वान स्वीकारलें आनी तिचे आड वावुरपाक भायर सल्ले.

१९४७ तले जानेवारिचे ७ वेर सकाळच्या साडेसातांक, नोआखालिच्या अेका गांवांत, , **जरि तुका जाप–अुलो कोण ना दी, तरी अेकलो चल रे**...हें रवीन्द्रनाथांचें गीत गायत गांधीजींनीं यात्रा सुरू केली. म्हा–पुरसाचे हे अितिहासीक यात्रेक हजर रावपा खातीर सूर्यदेव निकतोच वयर आयिल्लो. गांधीजींचे पांय अुक्ते आसले. तांणीं जोतें सोडिल्लें..." जैं निर्दोष बायलांची आनी भुरग्यांची कत्तल जाल्या, जांचे कडेन लज धांपपा खातीर लेगीत लुगट अुरूंक ना तांचें दुःख अुणें करपाक हांव भायर

सल्लां...म्हजो हो यज्ञ सुरु जाला. म्हज्यान जोतें पांयांक कशें घालुंयेत ? "

गांधीजींचें हें चित्र दोळयां मुखार हाडीत जाल्यार दुकां व्हावंक लागतात.

****

## : २३८ : कितलें करुण !

अुक्ते पांय, हातांत अेक बडी आनी बरोबर अेकूच साथी अशी अेका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत, शेतांतल्यान आनी दोंगरावेल्यान गांधीजींनीं सुमार तीन म्हैने यात्रा केली. वाटेर कोणूय मुसलमान दिसलो कि ते अुबे रावताले आनी ताका नमस्कार करताले. आनी तें तांचे कडेन मात् लेगीत ढुंकून पळेनासले. तांचे बरोबर आशिल्ले मनु गांधीच्यान हें पळवं नज जातालें. तिणें दोळयांत दुकां हाडून गांधीजींक म्हणचें :

" बापू, ते लोक तुमचे कडेन पळे लेगीत नात ! "

" कांय हरकत ना." गांधीजींनीं म्हणचें " आज तांकां हांव तांचो दुस्मान कसो दिसतां. पुण हांव तांचो खरेलो मित्र म्हणपाचें म्हाका दाखवन दिवंक जाय ..... म्हज्या दोळयांक तांचे दोळे मेळत जाल्यार म्हाका खात्री आसा, ते म्हाका वळखतले .. "

ज्या मनशाच्या दर्शनाखातीर लाखांनीं लोकांच्यो झुंड्यो पडटाल्यो त्या मनशाचेर मुजरत नदर लेगीत ना-घालपी लोक ह्या देशांत निर्माण जाल्ले ! कितलें करुण !

****

## : २३९ : कसलो जादू कोणाक खबर

स्वराज्याक दोन दीस आसले. कलकत्त्याक गांधीजी आड अेक मोठें मांड अुठलें. किनले-शेच भुरगे आयले आनी गांधींक म्हणूंक लागले :

" तुमी हांगा कित्याक आयल्यात ? मुसलमानांचेर मात् संकट आयलें कि कित्याक धांवनात ? पोरूं हांगा दंगो जाल्लो तेन्ना हिंदूंक पालव दिवंक कित्याक आयले नात ? "

गांधीजींनीं ह्या भुरग्यांक समजावपाचो यत्न केलो– " हांव सगळ्यांचो अिश्ट. नोआखालींत हांव हिन्दुंच्याच पालवाक गेल्लों..."

पुण भुरगे तांगेलें म्हणणें आयकूंक खैं तयार आसले ? ते तापूंक लागले :

" आमकां हे हिंसा-अंहिसेचे धडे नाकात. तुमी वचात. आमी मुसलमानांक हांगा रावंक दिवचे नात. "

गांधीजींनीं तांकां थंडसाणेन समजावपाचो यत्न केलो. पुण तांची समजून घेवपाची अित्साच नामली. ते म्हणूंक लागले : " मुसलमान आनी हिन्दू केन्नाच अेकठांय रावंक नात..."

गांधीजींनीं म्हळें : " हिन्दू आनी मुसलमान सदांच अेकठांय रावल्यात..." ते मुखार आनीक कितें सांगूंक वताले. पुण भुरगे अदीकच तापले : " तुमी हांगाचे वचात....तुमी हिन्दूंचे दुस्मान "

गांधीजींनीं तिनलेच थंडसाणेन जाप दिली :

" म्हजेर जबरदस्ती केली म्हूण हांव मानचों ना...हांवें आयज मेरेन कोणाचीच जबरदस्ती मानूंक ना....तुमी म्हाका मारतले

जाल्यार मारात. म्हजें काम बंद अुडयात...हांव असो वचपाचों ना...हांवें हांगा येवन चूक केल्या अशें तुमकां दिसता जाल्यार म्हाका तशें पटयात. म्हजे बुद्दीक तें पटलें जाल्यार हांव अेक खीण लेगीत हांगा रावनां जाल्यार पळेयात..."

ह्या अुतरांनी कसलो जादू भरिल्लो देवाक खबर ! भुरगे थंड पडले. अितलेंच न्हय, तर स्वयंसेवक जावन रावले. म्हणूंक लागले : " ह्या म्हाताऱ्यांत कसलो जादू आसा कोणाक खबर ! सगळेच ताच्या जाळचांत सांपड्टात..."

****

## : २४० : कलकत्त्यांतलें मोड

रातचीं धा जाल्लीं. गांधीजी न्हिदिल्ले. आभा आनी मनु गांधी दोगीच जाग्यो आशिल्ल्यो. दुसऱ्या दिसा नोआखालीक वचपाचें थारायल्लें देखून त्यो सामान बांदताल्यो. अितल्यांत अेक मोटो मेळ थैं आयलो. तांतले लोक गांधीजींच्या राबित्या घराचेर फातर मारूंक लागले. दिवे फोडले. मेळत तें मोडूंक लागले. भितर वचूंक सोदूंक लागले. दोगूय चलयो दारांत अुब्यो रावल्यो. आनी तांकां आडवपाचो यत्न करूंक लागल्यो.

बोवाळ आयकून गांधीजींक जाग आयली. ते भायर आयले. गांधीजींक पळेना फुडें लोक अदीक मस्ती करूंक लागले.

" क्या है ? मुझको मारो मुझको क्यों नहीं मारते ? "

कोणें अेकल्यान फातर माल्लो. मात् जाल्यार तो गांधीजींच्या कपलाक लागपाचो.

अितल्यांत मिलिटरी आयली आनी तिणें परिस्थिति ताब्यांत घेतली.

गांधीजींनीं नोआखालिचो बेत रद्द केलो. आनी कलकत्त्यांत थंडाय येसर अपास करपाचो बेत केलो. अुपासाची खबर भायर सरना फुडें मगळयांचेर वीज पडिल्ले भशेन जाली. चौथ्या दिसा कलकत्त्यातले सगळे गुंड जमले. गांधीजींक सगळीं शस्त्रां–अस्त्रां व्हरून दिलीं. आनी कलकत्त्यांत ह्या मुखार केन्नाच दंगे जावचे नात अशें आश्वासन दिवन अुपास सोडूंक लायलो !

****

## : २४१ : व्यंगान न्हय, खऱ्यांनीच

कलकत्त्याक तांच्या घराचेर लोकांनीं फातर मारले. जनेलांचे हारशे फोडून अुडयले. तरूय गांधीजींक तांचो राग येवंक नासलो. तांगेल्या अेका बंगाली माथ्याक तांणीं म्हळें :

" बंगाली लोक बरेच सभ्य म्हणूंक जाय. "

" बापूजी, तुमी कितें अुलयतात हें ? " ताणें अजापून विचाल्लें.

" तांच्यांनीं म्हाका मारूंक येतालो. पुण म्हाका तांणीं बोट लेगीत लायलें ना...जनेलांचे हारशे फोडले...फर्नीचर मोडलें... पुण म्हाका हात लायलो ना..."

गांधीजी व्यंगान अुलवंक नासलें. खऱ्यांनीच तांकां तशें दिशिल्लें.

****



## : २४२ : म्हजी जीण होच म्हजो संदेश

अुपास सुट्टकूच्च दुसऱ्या दिसा रेणूका रॉय कसल्या तरी कामाक गांधीजींक मेळूंक आयिल्लीं. तांणीं बंगालच्या तरुणां खातीर संदेश मागलो.

आनी गांधीजी जे म्हूर्तिमंत नमळाय आसले तांणीं बंगालींत संदेश बरवन दिलो :

" आमार जीबन अेभि आमार बानी. "

****

## : २४३ : म्हजी सुवात पाकिस्तानांत

१९४७ तल्या मार्च म्हैन्यांतली खबर. गांधीजी बिहारांत हिन्दू–मुसलमानांचीं भंगिल्लीं काळजां अेक करपाच्या वावरांत गुल्ल आसले. तांणीं आपली सगळी शक्ती पणाक लायिल्ली. अशा वेळार अकस्मात अेक दीस तांणीं वर्तमानपत्रांत वाचलें कि काँग्रेस वर्कींग कमिटी पाकिस्तान दिवंक तयार जाल्या ! ज्या मनशाक विचाल्ले बगर अेक पावल लेगीत अुखलनासलें त्या मनशाक येदो व्हडलो निर्णय् घेतना सांगपाची लेगीत गरज आयज काँग्रेसीक दिसली ना ! गांधीजींक आपल्या पांयां पोंदची भूंय निसरलेले वरी दिसली. " हो थाराव तुमी कित्याक घेतलो, म्हाका कांयच समजना–" अशें तांणीं सरदार वल्लभभाअींक बरयलें.

पुण परिस्थितीच बिकट जाल्ली. मुस्लीम लीगचे अडवणुकेचे नीतीक लागून काँग्रेस वाजेल्ली आनी पाकिस्तान दिवन अुडयत

जाल्यार कटकट सोंपतली अशें तिका दिशिल्लें. गांधीजींक हें मान्य नासलें. पूण ते निर्शेणी वळखून लेगीत नकळ आसले. तांणीं हे परिस्थितींतल्यानूय वाट काडपाचो नित्शय केलो.

पाकिस्तान दिवपाचो निर्णय आयकून निर्शेल्ल्या बादशाह खानांक गांधीजी धीर दिवन सांगूंक लागले : " आमची अहिंसा खरी आसत जाल्यार तिजो कस आतां लागपाचो आसा...आमी निर्शेवंक फावना. पाकिस्तान जावंक जायना. पुण जालेंच जाल्यार म्हजी सुवात पाकिस्तानांत आसतली. "

****

## : २४४ : अेका देशांत दोन राज्यां

हिन्दु–मुसलमानांक अेक करपाच्या वावरांत हिन्दी, अुर्दू हयो दोनूय भासो शिकूंक जाय आसल्यो. पुण पाकिस्तान जातकूच अुर्दुचो आग्रो धरपांत कांय अर्थ अुरूंक ना अशें गांधीजींच्या अेका खूब लागींच्या सहकाऱ्यान म्हणटकूच तांकां खूब वायट दिसलें. जड काळजान ते म्हणूंक लागले :

" तुमीय अशेंच म्हणटात? दोन राज्यां जालीं म्हुण आमच्या काळजांचेय कुडके जाले ? हांव जाल्यार काश्मिरा-पासून कन्याकुमारी मेरेन देश अेकूच मानतां. अेका देशांत दोन राज्यां...."

****



# गांधी साजित्यांतलीं दुसरीं पुस्तकां

१ **महात्माः**—गांधीजींची जीण आनी वावर हांचेर व्हड व्हड मनशांचीं मत्तां — १.२५ न पै.

२ **सत्याग्रहः**—सत्याग्रहावेलीं गांधीजींचीं अवतरणां आनी तांचेर रवीन्द्र केळेकार हांगेलें मनन — ०.६२ ,,

३ **गांधीजीलो मार्गः**— अहिंसक प्रतिकाराच्या शास्त्राचेर विनोबा काकासायब आनी मश्रुवाला हांचीं बरपां — ०.७५ ,,

४ **भारताचो दिश्टावोः**–India of my dreams चो अणकार — ०.७५ ,,

५. **मंगळ-प्रभातः**—आश्रमी जिणेच्या अिकरा व्रतांवेलें भाष्य — ०.५० ,,

६ **सर्वोदयः**—रस्किनच्या Unto this last ह्या पुस्तकाचो आपरोस — ०.५० ,,

७ **नीतिधर्मः**—Ethical Religion ह्या पुस्तकाचो अणकार — ० ५० ,,

८ **सत्याची साधनाः**—अध्यात्मिक विशयावेलीं गांधीजींची मत्तां — १.०० ,,

९ **मानसतीर्थः**—संसारभर गाजिल्ल्या The Mind of Mahatma Gandhi ह्या पुस्तकाचो अणकार — २.५० ,,

**मेळपाचें ठिकाणः—**

**गोमंत भारती,**
मणिभवन, १९, लेबरनम रोड,
**मुंबै ७**

COVER PRINTED AT :- CAPITAL ART PRINTING PRESS, BOMBAY 4.